# वसुंधरा

(बाल एकांकिका)

अशोक शीलकार

**वसुंधरा**

(बाल एकांकिका)

**अशोक शीलकार**

---

प्रकाशन क्र.: ३



---

पयली आवृत्ती: १० ऑगस्ट २०१३

---

उजवाडावपी:

**अशोक शीलकार प्रकाशन**

शीला, सावय-वेरें, फोंडें - गोंय.

---

छापपी:

रंगोली प्रिंट्स,

वेलकास, गोंय.

---

मोल : रु. ३०/-

भुरग्यांचेर बरें स्वंस्कार
जावंचे म्हण वावुरपी
संतोष शीलकार - हांका
हे पुस्तक अर्पण करता.

अशोक शीलकार

# दुकळा सबंदा दोन उतरां

अशोक शिलकार म्हजो गांव भाव आनी म्हजे पिळगेचो कवी सावयवेरेंच्या सैमाच्या आंगणात तो वाडला. ताकाच लागून ताका सैमाचें पीशें लागलां. पंचवीस वर्सा आदी सावयवेरें, वळवय, बेतकी वाठारांत कवी लेखकांचें एक भिरेंच आयलें पूण मदल्या काळांत जायते जाणानी आपलें बरोप अर्दाच थांबयलें, पूण अशोकान तशें केलेंना तो नेमान बरयत रावलो. सावयवेरें वाठारांत कठीन वातावरणात कोंकणी चळवळ आमी सुरु केल्ली ताचो तो एक साक्षीदार पूण ताका फुडें फुडें सरपाक केन्नाच जमलेंना. ज्या कुळागरांत तो रावता थंयच्या झऱ्या भशेन तागेलो स्वभाव. ताका लागून तो मात्सो नदरे आडय जाला. ताचे आतां मेरेन दोन कवीता झेले उजवाडाक हाडल्यात.

तातूत ताचो सैमावेलो मोग आनी अनुभवाच्यो व्यथा प्रविबींबीत जाल्या. कवितेवांगडा तो एकांकीकाय बरयता. वसुंधरा ही तागेली पर्यावरणाचेर आधारिल्ली एकांकीक. ताचे हे सुपूल्ले पुस्तिकेकूय रसिकांकडल्यान प्रतिसाद मेळटलो अशी आस्त बाळगीता आनी अशोकाच्या लेखणेतल्यान नवी नवी पुस्तकां निर्माण जाव अशें हांव मागता.

संजीव वेरेंकार
सावय-वेरें

# दुकळाक येवकार दिवप्यांक

सैमाचेर कत्तलीच्यो आगळीको केल्यान हालीहसराक पावसाचे प्रमाण खुब्ब उणें जाल्ले दिश्टी पडटा. पावस कमी प्रमाणांत पडूनुय कांय वाठारानी लोक तांच्या पुरती उदकाची साठवण करुन दवरपाक शकतात. पावस पडल्या उपरांत उदक जिरोवपाचो यत्न केल्यार कुळागरातल्या ल्हान ल्हान तळ्यांनी उदकाची साठवण जावंक मजत जाव येता. अशी दर एकल्यान जापसालदारकेन काम केलें जाल्यार व्हडा प्रमाणात कुळागरा, शेतांभाटां सगळे किते भरपूर पिकावंक येता. पुण आयज हो चिन्नकार खुब्ब कमी प्रमाणात दिसपाक लागला. सैमाचो इबाड जायत चल्ला.

उदक म्हळ्यार जीवीत घडोवपाचो मुखेल घटक जावन आसा ज्या दोंगरांनी दाटी दाटीनी झाडां ताडमाड वाडील्ली आसा अशा वाठारानी पावस चड प्रमाणात पडटा. आयज आदली परीस्थिती उरुंक ना पावस पडत रावल्यार कितलेशेच दिस पडत रावतालों लोकांच्या जिवीताचेर विपरीत परीणाम जातालो. खयंच वचूक मेळनाशील्लें, हुवाराचो खंकाळ जातालो. ती परीस्थिती आता पावस दाखयना. फुडे फुडे कितें निर्माण जावं येता ताची कल्पना आमच्यानी सांगूक जावचीना. पुण एक दिस असो येतलो की आमी दुकळाक जाप दिवचीच पडटली.

सैमाची जतनाय कोणेंच घेतिल्ली दिसनां वचन थंय झाडांच्यो कत्तली करुन कॉंक्रिटच्यो इमारती उबारिल्ल्यो दिसतात. 'दुकळ' ह्या बाल एकांकीकेत मनीस आपुणय उद्‌वस्त जावन हेरांकय खंयच्या सुवातीचेर पावयता ताका शीम मेरुच उरुंक ना.

आयज एक झाड कातरता फाल्या आनीक लोकांची भिरी हाडून आनीक झाडां कातरता अशान सगळो दोंगर नागडो बोडको जाता. कोणाचेंच कांयच आयकून घेना आनी निमणी झाडां नानपयच जाल्यान दुकळाक मनीस आमंत्रण दिता.

प्रस्तावना बरोवपी प्रस्थापित कवी, नाट्य लेखक संजू वेरेकार हाचेंय हांव उपकार मानता.

देव बरे करुं

अशोक शिलकार

# सवंगा

मनीस

झाड

१ले झाड

२रे झाड

३रे झाड

माकोड

चिमणी

हत्ती

मोर

१लो मनीस

२रो मनीस

३रो मनीस

# देखाव पयलो :

(दोंगरा वयली सुवांत झाडां वाऱ्यावांगडा धोलतात. माकोड, हत्ती, चेमणी, मोर अशी सगळी जाणा एकठांय हांसतात. खिदळतात अशा सुंदर व्हीणां वेळार भितल्यान गीत आयकूक येता.

**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा**
**हे माँ वसुंधरा**
**सदा रहेगी आंचल तेरा**
**जो ही हराभरा, हे वसुंधरा.**

(माकोड नाचत आसताना एक मनीस येता)

माकोड :- झाडदादा ऽऽ झाडदादा कोणतरी एक मनीस आमच्याच वसल्यान येता. सामको कासाविस जाल्लेंवरी दिसता.

झाड :- येवदी, मनीस हो आमचो इष्ट आसा. ताचे आमच्यालागी काम आसल्यार तें आमी करुंक जाय. (इतल्यात तो मनीस येता. खुब्ब कासाविस जाला. भुकेन थकला. तानसोरान ताळो सुकला.)

मनीस :- (खर्शेत खर्शेत) उदक ऽ उदक ऽऽ उदक.

झाड :- हतया.

हत्ती :- कितें झाडदादा.

झाडा :- ताका पिवपाक उदक दी.

हत्ती :- दिता झाडदादा.

मनीस :- उदक ऽ उदक ऽऽ उदक.

हत्ती :- घे रें मनशा उदक पी. (हत्ती आपणाले सोंडयेन मनशाक उदक पेवयता.)

झाड :- माकडा.

माकोड :- किते झाडदादा.

झाड :- त्या मनशाक जाय तितली फळां खावपाक दी. सामको भुकेला बाबडो अशे दिसता, ताणे केन्ना कितें खाल्लें देवाक खबर! आनी कळाव करुं नाका ताची जतनाय आमीच घेंवचीं पडटली, जसो मनीस झाडां रोवन आमची जतनाय घेता.

माकोड :- (गुणगुणत) दिता झाडदादा. (माकोड हतयाच्या फाटीर चडून झाडावयली फळां काडून मनशाक दिता. मनीस फळा खायत रावता. बऱ्याच वेळा उपरांत मनशाक थाकाय आयिल्ली दिसून येता. उपरांत सगळो दोंगर भोवून झाडांक पळयता.

मनीस :- झाडांनो, माकडा, हतया, सवण्यांनो हांव तुमचो अनंत उपकारी आसा. तुमी उदक, फळा खावंक दिवंक नाशील्ली जाल्यार हावं जगचो नाशील्लो. म्हजा दोळ्यांत आयज लखलखीत पुनवेचे चान्ने दिसलें. कितली सोबीत ही सैमाची निर्मणी. मोनजात कितली शाणी आसता तें म्हाका प्रत्यक्ष आयज पळोवंक मेळ्ळें. (माकड हुप्प करता, हत्ती खी ऽ खी ऽ करता. चिमणी चिवचिवता. मोर थुई थुई नाचत रावता. झाड वाऱ्या वांगडा खुशालकायेन सळसळटा.) खुब्ब बरें दिसले म्हाका. बरे तर येता केन्नाय तुमकां असोच मेळपाक.

झाड :- खुशाल यो. आमी तुजे स्वागताक सदांच आसतली. (मनीस वचपाक वळटा पुण परतता. सगळी झाडां परत एक फावट पळयता) कित्याक परतोलो मनशा.

मनीस :- झाडा मात्सो चिंतनात पडलो. हांव एकटो एकसुरो. म्हाका ना आवय ना बापुय. आसा ते बापायलें चुडताचे खोपुट. त्या खोपटातच रावता हांव. कोणूय दिल्यार कितेय खाल्ले ना जाल्यार न्हिदलो उपाशीच. (सगळी चुरचुरतात.) पूण हाच्यामुखार म्हज्यान ते सोसूंक जावचेना. इतले दिस उपासमारान वळवळत काडले. आता घरा वतकच परतय उपासाचो प्रसंग म्हजेर येतलो.

झाड :- मनशा आमी तुजेखातीर कितें मजत करुंक शकतात.

मनीस :- तेच तर सांगपाक चिंततालो.

झाड :- चिंतूक नाका. कितें सांगपाक सोदता ते सांगून मेकळो जा.

मनीस :- झाडा, सांगता म्हण रागार जावंक नाका. म्हाका ना म्हणूक नाका.

झाड :- सांग मनशा ही झाडां तुजी सेवा करतलीं.

सगळी झाडां :- हय, हय. आमी तुज्याखातीर कितेंय करतात.

मनीस :- तुमचे भितल्लें मोठ्यांतले मोठे एकूच झाड म्हाका मारपाक दियात.

सगळी झाडां :- कितें? झाड मारपाक सोदता.

मनीस :- हय, हांव ताची बारीक बारीक कुडके करुन जळवाखातीर भोरे बांदतलो. लाकडां भोरो शारांत व्हरुंन विकतलो. ताचे जे कितें पयशें मेळटलें ताणीन हांव म्हज्ये पोट भरतलो. बस सुटलो म्हज्या पोटाचो प्रश्न.

(सगळी जाणा एकाच आवाजांत आडूेतात.)

सगळी झाडां :- ना ना ना. आमी झाडा कातरुंक दिवचींना दर एका झाडाक वेंग मारुन रावतलीं.

१ ले झाड :- मनशा इतलो पडमूर प्राणी खंयचोच ना.

२ रे झाड :- आतांच उदक उदक म्हण वळवळटालो.

३ रे झाड :- सावशीत जातकच फुटली हेका पाखां. मात्सो तरी विचार करपाक जाय.

१ ले झाड :- झाड कातरुंक मेळचेना.

२ रे झाड :- पयली तुकाच कातरतात.

३ रे झाड :- मागीर कळटले.

१ ले झाड :- स्वतःक जळटकच धगाची हुनसाण कळटा.

२ रे झाड :- मेल्याबगर सर्ग दिसना खंय?

३ रे झाड :- पाड पडील्ल्या मनशांची सवंयच वायट. ती मेल्याबगर वयता!

१ ले झाड :- घरांक लाकडां, जळवाक लाकडां, बिल्डींग उभारपाकुय लाकडां. खंयचीय मनशाची गजाल घेयात.

२ रे झाड :- लाकडांबगर तांचे जायच ना.

३ रे झाड :- मनशाच्या कुडीचो शेवट करपाकुय तांका लाकडांच जाय.

१ ले झाड :- अशीं झाडां कातरल्यार झाडां खंय उरतली.

झाड :- वोगी रावात. सगळी वोगीच रावात. (सगळी वोगीच रावतात.)

मनीस हो आमचो इश्ट आसा. ताका मजत करुंकच जाय.

मनीस :- आता कशे झाड बेस बरें उलयलें.

झाड :- मनशा.

मनीस :- कितें झाडदादा.

झाड :- तुका जाय थंयचें झाड कातरुन व्हर.

मनीस :- म्हाका खबरच आशील्ले तें म्हळ्यार तुमी म्हजें परिस्थितीक पळोवन रित्या हातान घरा धाडपाक ना. (मनीस सगळ्या पळयता. आनी व्हडलें झाड कातरता. झाड सकयल पडटा. मनीस झाड ओडीत व्हरता.)

**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा**
**हे माँ वसुंधरा**
**सदा रहेगा आंचल तेरा**
**जो ही हरभरा**
**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा....**



# देखाव दुसरो :

(झाड कातरुन व्हेल्याचें सगळ्या झाडांक दुख्ख तांच्या मुखामळार निर्शेवणी फांकील्ली स्पश्ट दिसता. सगळी चिंत्तात.)

माकोड :- झाडांनो कितें चित्तात.

१ ले झाड :- माकडा मनशानी अशी सद्दा झाडां कातरुन व्हेल्यार आमचे कशें जातलें. सगळो दोंगर काय तेपान रितो जातलो मरे. आरे माकडा तूच सांग अशी झाडां कातरल्यार हूप्प हूप्प करीत तूं खंयच्या झाडार नाचतलो. चिमणे तू खंय उडून बसतली. आमची सगळी वायट अवस्था जातली.

माकोड :- ते खरेंच गो पूण हांव तरी कितें करुं?

२ रे झाड :- माकोड तो माकोड माकडाक कांयच अक्कल ना.

३ रे झाड :- रात जातकच सद्दां तो घर बांदता.

१ ले झाड :- आनी दीस जातकच ह्या झाडावयल्यान त्या झाडार नाचत आसता.

२ रे झाड :- हाचेर कितेंतरी उपाय सोदून काडपाकच जाय.

३ रे झाड :- सरकार झाडां कातरतल्यांक ख्यास्त दिता.

माकोड :- पूण हे मनीस चोरुन झाडां कातरतात. तांका सरकार कशें धरतोलो.

१ ले झाड :- कोणा कोणूच आयकनात. आपणांक जाय तेच चल्लां हांगा. सगळे कायदे फुकट गेल्यात. चोरांक चोरवाटो ह्यो आसताच. खंयचोय क्षेत्र घेयात हेच चल्लां. दोंगरावयली गजाल कुशीक दवरात पूण रस्त्याकुशीक शारांत लेगीत झाडां कातरुन मनीस बिल्डींगो उभारपाक लागल्यात.

माकोड :- खरें म्हटल्यार हे मंत्रीच आतंकवादी. तांचेच चड पाड पडलां.

२ रे झाड :- ताका तुंबकाच्या फारान मारपाक जाय. झाडां कातरुन बिल्डींगो उभारल्यात.

३ रे झाड :- फ्लॅट विकून खोऱ्यानी पयसो ओडटात.

माकोड :- आरे सैम नष्ट जाल्यार हो पयसो खंय म्हण घेवन वतले.

झाड :- तुमी सगळी वोगीच चिंतनात घुस्पवल्यात. माकडा.

माकोड :- हूप्प. किते झाड दादा.

झाड :- हतया.

हत्ती :- किते झाडदादा.

झाड :- चलात मात्शी सगळ्या दोंगरात पासय मारुन येयात. कुंभकर्णावरी रेडो कसो मातला.

माकोड :- झाडदादा, हतयालागीं म्हज्या वांगडा चलपाक जायना.

झाड :- आसू रे माकडा. सगळेंच प्राणी सारके कशें आसतलें. तू मात कोल्यासारको धुर्त प्राणी. खंयचे केळावले कशें बुडून खावचे ती मांडणी तुजेलागी बेस बरी आसा. चलात आता, पासय मारुन येयात. तुमचे मन मात्शे सदळ जातले. (सगळी दोंगरार पासय मारतात.)

माकोड :- झाडदादा झाडदादा तोच मनीस परत येता.

हत्ती :- ताच्यावांगडा आनीकुय मनीस कुराडी खांदार मारुन येतात. (सगळी आपापल्या जाग्यार उभी रावन त्या मनशाक रागान पळयतात. सगळें मनीस झाडांक पळयतात.)

झाड :- मनशा आता कातरुन कित्याक आयला?

मनीस :- हांवेन झाड कातरुन व्हेल्ले. ताची लाकडां विकून सोपलीं. आता परत म्हजेर उपासमारीचो प्रसंग आयला. आता हांव ह्या मनशाक घेवन तुमचेलागी दुसरे झाड मागूंक आयला.

सगळी झाडां :- ना. ना. ना. आता झाडां कातरुक दिवचींना. झाडां व्हरुंक दिवचींना. दर एका झाडाक वेंग मारुन रावतली.

मनीस :- वोगी रावात. वोगी रावात. (सगळी वोगीच रावतात.) तूमकां सांगला हांवेन एक फावट. मनीस हो आमचो इश्ट आसा. ताका मजत करुंकच जाय. मनशा तुका जाय थंयचे झाड कातरुन व्हर (मनीस दुसरे झाड कातरता. झाड सकयल कोंसळटकच सगळे मनीस ते झाड ओडीत व्हरतात.)

**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा**
**हे माँ वसुंधरा**
**सदा रहेगा आंचल तेरा**
**जो ही हराभरा**
**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा....**



# देखाव तिसरो :

(माकोड हांगा थंय भोवत आसा. निमणे एकूच झाड उरलां.)

माकोड :- दोंगरावयली झाडां कातरुन कातरुन सोपत आयली. चिमणे, मोरा आता फुडाराक कितें घडटलें. निमणें एकूच झाड उरलां ह्या दोंगरार.

मोर :- चिऊताई तू खंयच्या झाडांच्या खांदयेर घोटेर बांदतली.

हत्ती :- मोरा तूं खंयच्या झाडा पोंदाक थुई थुई नाचतलो. चिऊताई तर

चिऊताई :- तेंच चिंत्ताली. सगळी झाडां सोपत आयली.

मोर :- म्हाका दिसता एक दीस हांगा दुकाळाचें गिराण लागतले.

माकोड :- लागतलेच. दोंगरार खंय उरल्या झाडां. सगळो दोंगर झाडां नासून उकतो पडिंग पडला.

चिऊताई :- झाडां नासल्यार पावस पडचोना. पावस पडलोना जाल्यार उदक आसचेंना. उदकाबगर कोणूच जगपाक शकचोना. सगळे कितें उध्वस्त जावन वतले.

माकोड :- तेच खातीर झाडां आसप खुब्ब गरजेचें.

मोर :- अशे तुमी म्हण्टात. पुण ह्या मनशाकडेन उपाय ना. तो धवीधवीच धारेची कुऱ्हाड घेवन येताली आनी कचायच करुन झाडां कातरुन व्हरतलो.

हत्ती :- आता उरलां ह्या दोंगरार एकूच झाड ते मारुंक दिवंक जायना.

झाडां :- तुमी कसलींच चिंता करपाची गरज ना. जो झाडां कापता ताचे प्रायश्चित ताकाच मेळटले.

माकोड :- झाडदादा झाडदादा तोच मनीस आनीकुय मनशांक घेवन ह्याच दोंगरार येता.

हत्ती :- मनीस न्हंय तो देवंचार.

चिमणी :- एकूच मोठ्यातले मोठे उरील्ल्या झाडाचेर ताची नदर आसा.

मोर :- आता तो आपणाले कर्म करुन वतलो.

झाड :- मनशा आता कित्याक आयलां.

मनीस :- झाडदादा तुका खबरच आसा म्हजेर तोच आदलोच प्रसंग आयला. देखून हांव तुमचेंकडेन निमणें उरिल्ले झाड मागूक आयला. दया करुन ह्या मनशाचेर उपकार करात. तुमचे उपकार हांव केन्नाच विसरचोना. म्हाका निमणें उरील्ले एकूच झाड जाय.

सगळी झाडां :- ना ना ना. आमी निमणें झाड कातरुक दिवर्चीना.

झाड :- वोगी रावात. वोगी रावात. मनीस हो आमचो इश्ट आसा. आनी ताका मजत करपाकुच जाय. मनशा.

मनीस :- कितें झाडदादा.

झाड :- ह्या दोंगरार उरील्ले निमणें झाड कातर.

मनीस :- कातरता. (मोठ्या मोठ्यान हांसता)

माकोड :- नाका नाका मनशा निमणें झाड कातरुंक नाका.

चिमणी :- आमी आता खंय विसव घेतली?

मोर :- मनशा तुका हाचो परीणाम भोगचोच पडटलो.

हत्ती :- फुडाराक उदक उदक म्हणत वळवळटलो.

मनीस :- म्हाका तुमचे कांयच आयकुपाचे ना. (झाड कातरता सकयल कोसळटकच सगळे मनीस झाड ओडीत व्हरतात. आता दोंगरार एकूय झाड ना. सगळी रडटात.)

**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा**
**हे माँ वसुंधरा**
**सदा रहेगा आंचल तेरा**
**जो ही हराभरा**
**हे वसुंधरा, हे वसुंधरा....**



# देखाव चवथो :

(झाडां नाशील्ल्यान रखरख वाडला. पावस पडूंक नाशील्यान उदकाचो थेंब ना. मनीस ताच्या बराबरचे मनीस उदक उदक म्हणत वळवळटात. धर्तेर कोंसळटात. थंय भोंवडेक आयिल्ले मनीस पावतात. तांच्यालागी उदक आसा.)

१ लो :- आरे सभाग्यानों हें कशे घडलें.

२ रो :- दुकळ पडला. उदक नासून दुकळ.

३ रो :- मनीस उदक म्हणत वळवळटात.

मनीस :- उदक उदक उदक.

मनीस :- चल तेंका उदक दी. (सगळ्यांक उदक पिवयतात.)

मनीस :- (मात्सो सावशीत जाता.) आनी इल्ले उदक दी. देव बरे क तुमचे.

२ रो :- घे. जाय तितले पिवन घे. (दुसरो मनीस उदक म्हण्ट तिसरो मनीस उदक म्हण्टा. भोंवडेकार सगळ्यांक उदक पिवोवन सावशी करतात.)

३ रो :- हांगा असो कसो दुकळ पडलो.

१ लो :- तुमी झाडां मारुन मारुन सोपयल्यात. पर्यावरण नष्ट जाल्ल्य हो दुकळाचो तुमचेर प्रसंग आयला.

२ रो :- आमी आमची झाडां कातरुंक ना. सैमाचो इबाड करुंक न

३ रो :- म्हणूनच आमचेकडेन उदकाचो साठो खुब्ब आसा.

मनीस :- हे सगळे आमकांच लागून घडले. आमी दोंगरावयली झ कातरुन सोपयली. झाडां ना म्हणू पावस ना. पावस ना म्हूण आमकां उ ना. भोंवडेकारांनो आता आमी तुमची देख घेतले. चलात रे आमी झ रोवया. (झाडां रोयतात. झाडां शिंपतात. इल्ली इल्ली झाडां व्हड जात

माकोड, हत्ती, चिऊताई, मोर खुशालपणान झाडांनी नाचतात. भोंवडेकार हांसत्या मुखान. परततात.)

हे वसुंधरा, हे वसुंधरा
हे माँ वसुंधरा
सदा रहेगा आंचल तेरा
जो ही हराभरा
हे वसुंधरा, हे वसुंधरा....

**एकांकिका सोपता**





नाव : अशोक शीलकार

गांव : शीला, सावयवेरें
फोंडें - गोंय.

आवड : वाचप, काव्यलेखन, एकांकीक लंखन, गीता बरवप .

हेरवावर : गोंय दुरदर्शनाचेर आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर, वा
गोंयाभायर तरेकवार कार्यवळीनी भागघेतला.

अशोक शीलकार प्रकाशन